# कनियो पुस्तक




उजवाडावपीः

के.के. सुब्रह्मण्यन

चेरायी




(Konkani)

**KANIYE PUSTHEK**

Stories

by:

**K.K. Subramanian**

*First Edition :*

March 2014

*Published by :*

K.K. Subramanian

Kallarakkal House

Cherrai - P.O.

Ernakulam, Kerala

Price : ₹ 30/-

Printed at : Amarakerala Industries

Kalabhavan Road, Kochi-18

# दोनी उत्तरां

सर्वय जना कनियो प्रिय ते. बरायले कनियों कोणा कोणाक चांग दिसतो म्हुण माका कलना. जल्यारिय सेदा आमचे जीवनातु आमका प्रिय जावनास्सी आशय जोडूणु हाँवे कनियो बरायलाय वचिचाय मना करिचाय.

देवु भरें करुँ

के.के. सुब्रह्मण्यन

# भितर

# पावुसा काल

**पा**वुसु चां पडता. सग जन घरान्तु बसून पोरन्नी पोरन्नी काणी सांगताय. सीं खाता फंगरोण बायल बुरगी कान दीवनु काणी आयकताय.

लोक्का लगी सत्तुली ना, एदे जना लगी सत्तुली आसा. जाल्यारीय बायिरी देवु जावना. ता लेकानी पावुसु सुरु जल्ला. अंगणा भोरणु उदाक. किते कोरणु कसलेय धेन्ध करूक?

जोडू शक्तीने मारता. मडो, मडी, व्होड व्होड रुक, केळी मोडोन पडतली मणु मनांतु शंका. ये सेग जोडातु इसीय-तिसिय नाचताय चोयचा चां दृश्य. जाल्यारीय भित्तेरी भोय्या लगता. कचोय एक मडो न मडी न रूक घरारी पळ्यार घर खोप्पुट मोडोन पडता मणु मनांतु दिसता.

सेग जन देवा सिवरताय, कोणेय राम-राम नांव जप करताय, कोणेय कृष्ण जप करता, अनि कोणेय नारायण नारायण मुणाताय, थोडे लोकु महामय उळदिताय. सत्य सांगल्यारी एकेक घर देवस्थान मणु दिसता.

घर बन्धून पोडूक दाम नसीले जन एक ओसी, बुरग्याके एक वेळे निस्सें पेज दुवुक ना मणु रडताली. आवुस-बाप्पुस दूसरी ओसी. दाम-दुडु आसा जाल्यारीय ओरुव-दाल, मीट-मीरे, गोडपयन्दार, चाय-काफी अडूण कितय तैयार कोरणु खावचा किस्सी?

रन्निनितु उज्जो जलयचा किस्सी? कचेटे चोयलारी थांग उदाक इ अवस्था. पार करूक चां प्रयासरे बप्पा, चां प्रयास!

शिवजी महा रय्या नवीक सेनात्तु अस्सीलतें बप्पिलेय सन्नलालेय घरकार. कालु पोरतोलो. ब्रिट्टीश शासन आयले. तें गेल्ले. अत्ते जनतंत्र आयले बप्पिलेय सन्नालालेय घरकाराक सोविन्दुर आधारु जल्लो.

पावसु धार धारण्णु पडता, बप्पी दामु-दुडु नसीलो योकु मुनीस. तो सोविन्दरा उसून मसोळी दोरनु पोट पालटता. मसोळी बिकुणु मेळ्ळे पैसानी जीवित मुकारी ओरता.

ताका एक साने खोप्पुट आसा. ता खोप्पुटांतु तो आनि तगेली बायल बुरगी राबुन आसे. पाउसा कालांतु खोप्पुट खाल पाडता मणु दिसता.

घरान्तु भोरणु उदाक. कित्ते करूक? कच्चे ओच्चाक? कोणाटें संगूक?

पाउसा काल ताका बल्लाव वेळु आते, तगेले खोप्पुटातु पोडुक स्थाल ना इ अवस्था कसी पार करूका मणु ती विचार करता. तज्जें मुकारी कसलिय वाट देखू ना.

वप्पीके एक चोडू अनि एकलो चेडो आसे. ती दोगय एक प्राथमिक पाठशालांतु सिखताय. बोयनिय बावुय एकसानी स्कूळां पवताय योकुनिमिष तोडोवु करनासी हाजर दिताय. अध्यापकालो उपदेश आयकून प्रवृत्ति करताय.

पावुसातु क्लासा ओचा सेग बुरग्यांके चां आनन्द. विद्यालयत्तुं हिन्दु, नयत्तो, कारो मणु कसलय अन्तर ना. सेग एकमेळु जाणु मुण्णी मुणु यविसिय-तविसिय दावुणु बोंवताय दमेली बुरगो होड

मोळा वस्त्र न्हेसुण एनाय-ओताय. चां मोळा सत्तुली दोरणु एताय. ये सेग दृश्य कांय नसी दरिद्र बुरगी चोवुणु राबताय. घरकेटे पावुणु अवोय अब्बाटे सांगताय.

पाठशालांतु सेग बुरगी युनिफां न्हेसुका मणु नियम आसा. चेरडुअक युनिफां न्हेसुन दडचाक आग्रह आसा.

बप्पीली बायले मोगाची धुविकोय पुतांकोय दमेली बुरग्या मट क्ळासां दडुक श्रम करतालो. ती कसलेय दन्धा उसूण रुपया करताली. बुरंग्या सिखोणु सिखोणु आयचे समूहांतु एक चां स्थान मेळका मणु देवा लगी प्रार्थना करताली पाउसु कुब्बोन कुब्बोन आसा.

बप्पी मसोळी देरूक सोविन्दरा गेल्लो. तज्जे मनांतु एक मात्र आशा आसा "बायले-बुरग्या उपास  गळुना."

तो मोचुलारी बल्ले कडून चेळ्ळो. तगेले मित्र सन्नलानी मोचुळ तण्णु सोल्ले. पावुसु पोडणु आसा. तणु तणु ते सोविन्दरा मदे पवले.

मसोळी धेरुक सुरु केल्ले. वारें मरचा आरंभिले. सोविन्दरा पाळ उंचारीय खळ्ळाकोय ओत्ता जल्ले. जोडू मारचा सुरु जल्लो.

पाळ उंचारी उबरले तिंगलें मोचुल खाळ ऊंच जाता. मोचुलांतु उदाक भरले. मोचुल बुडोन  गेले. ते दोगय उदाकां पडोन गुसमुटेले.

पावुसा कालाक कोणेय मसोले देन्धा ओसप ना. ते लेकुनसीण बप्पीय सन्नलोय खोडा जाका  देकुन सोविन्दरा गेल्ले. तिंका उदाका लगून रक्षा मेळुकु प्रयास जल्लो. या अपाया वेळरीय मनांतु आसीले आग्रह पूरा करूक तीने निश्चय केल्ले.

सोविन्दरांतु चां कोलहल जाता. या गोन्दलातु दोगच मुनीस मोरणय जाण्णु खेलटता. बप्पीलेय सन्नललेय एक एक क्षण बळ्ळाव जाता. सीविन्दरु तिका गिळचाक तैयार जाण आसा.

बायले-बुरगी आशेन चोवुणु चोवुणु रबीली. रबून-रबून पूरो जल्ले.

ता वेळारी कोणोय दावुन योवुणु सांगता एक मोचुल सोविन्दरा तटेरी पोळ्ळा. तें कोणाले मणु सन्देह जल्ला. ही वार्ता बप्पेले बायले-बुरग्या कान्ना पळ्ळी.

इ खबर आयकिले पेटाक तिंच्चे मनांतु कसल कसल भावविचार जल्ले मणु सांगचा प्रयास अते. मोचुल दिखले पिटाक ता गांवतु सेग लोकुय सोविन्दरा दिक्का पावलें. बप्पीकोय-सन्नलाकोय सोदुन जायते मुनिस एकड जल्ले.

बप्पीले बायल-बुरगीं हरदयारी मारणु रडताय. ये आयकुन जनपताक दुःख सह जावुन्ना.

सन्नला जवणु बोब गलूक कोण ना. तका असीली अवोय. ती मोरणु एक ओरस जल्ले.

बव्पेली गरकानी एक दैव विस्वासिनी अते. तीने जैते दुःख भोगिले आसे. तियेनी कुलदेवा लगी प्रार्थना केल्ली. "देवा मेगेले घोवाक रक्षण करुका."

देवानी तिगेली अपेक्षा सन्तोषाणी आयकीली. ताने अनुग्रहु दिल्लो. "तू भिवुन्नका तुगेले दुःख आवु दूर करता".

तियेणी दोळे इसकोडोन चोयले पेटाक एक प्रकाशु दूर दिक्कारी तेळे तेळे जाता. ती चोवुणु रबली.

सोविन्दुरु शान्त जल्लो. बप्पीय-सन्नलोय रक्षेक जाय देकून श्रम करताय. ता वेळारी एक व्होड रुक तिंचा मुकारी पवलो. ता रुकारी दोगय धोणु रबीले. तिंका आस्वासु जल्लो

राति जल्ली कळोक जल्लो. तिंका मनांतु धैर्य आयले. तीने दोगनेय देवा उळ्ळो कोरणु सांगीले "देवा तूवे अमका रक्षा दिल्ली. अमी तुका विसारुना. तुजे पय्याडे एक करोड नमस्कार गळताए."

ता रुकारी बप्पीय सन्नलोय चॉ कोरण दोणु रबीले. तिंका शक्ती मेळ्ळी. दोगय हत्तानी ताण्णु ताण्णु रबीले.

ता वेळारी एक तारु एत्ता देखिले. तीने हत्तानि अप्पेले. तारुवंतु कप्पितानानी ये दृश्य देखिले. तका मना जल्ले रक्षे जाय देकून कोणेन प्रार्थना करताए.

तिंका रक्षा करूक कप्पितानानी निश्चय केल्ला ताने तारुनतु साने मोचुल सोविन्दरा देवेले.

बप्पीकोय सन्नलकोय रक्षा दिल्ली. तारुंवातु दन्धकरानी तिका चाय-खाण दिल्ले. न्हेसुक वस्त्र दिल्ले

बप्पीले दो दिसा विशेषु तिंचे लगी संगून मनातु केल्ले. कप्पित्तानाणी इ दुख काणी आयकून मोचुलारी सोविन्दरा पवेले तिंका आनन्द जाल्लो. तिने सेगट कोय धन्यवाद दिल्लो-दोगय तंगेले घरकेट गल्ले.

बप्पीले सान्ने खोप्पुरातु दुखानी बायले बुरगी रेडून-रेडूण बसलाय ता वेळारी बप्पी घरा येडु गल्लो. तीं ताका चोवणु चोवणुरबली तीने रण्णो रबेले. तिंगे दुख दूर सेरले.

बुरग्यानी अब्बा हत्ता दोरणु हासून हासून न नाचायाक आरंभिले. घरकरोनी घोवा चोवुणु चोवुणु चाय करूक गल्लो. चाय जल्ले. गणगा उबुकोरी केल्ली. अवोय आबु-बुरगी एकसानी बसून खुशनी चाय पिल्ली. खाणे खायिले. बप्पिने दा दिसा काणी तिका संगु आयकेली ता लेखानी पावुसु गल्लो.

☆☆☆☆☆

# अड्डा मोडोण दन्ध कल्यार दाँत कत्रोतसी खावतेय

एक गॉवातु एक धन्धीली आसीलो. तजे नावते वट्टु. ताका तेग जन पूत आसीले. ते सबाव बसून वेळु परा गलताले. ताने तिंका एक सिकवण सिक्का म्हुण निश्चय कलो. वट्टून एक विद्या दकून् कडली.

एक दीसु फल्या फल्यारी पूत्तांक उबठेले. दिनकार्य सग कल्ले. चाय-खाण पोटो भोरणु खावेयल. आबुय पूतोय खोंरे खान्धारी कडूण चमकले. शेतकाम करचे स्थयारी पवले. अबानी संगले पोरी गद्यातु खोरानी खोणचा शुरु कले.

तिसी तीने गजनीतु दन्ध करचा आरंभिले-चॉ ओता काळु. ओता उष्णानी चिक्कोलु सुखोणु पुडी जली.

पवुसा काळु जालो वट्टूनी बन्धिच निश्चय कलो. बात बल्या गालणु तोंलयातु फुगचा गल्ले. एरदूसा बीयाचे बलों उचारी कडूण दरेयले.

चार-पॉच दीस जाले. पावुसु कुबेयत ता पवुसातु वट्टूनी आनी पूतानीय बीं रेयिले. रोव खावचा परवे एतोले. परवे दवण्डीचा पूतॉ बन्धारी रबेयले. ताने एक रोव परव्य करानी खावन्नसोण रखिले. तिसी सर्वय बीकिलोले. चार-पॉच दीस गले पिटा सर्वय गद्य हरे जावुण दकले.

ताका ब्हड आनन्द जालो. दीस मास गले. खेलेयचा बुकु जालो. खेलवोण आरभिली आवोय-आबु, पूते-धूव आनी सेजारी बायले सर्वय गद्या दवली पुडो, तोण सग उमटोण बन्धारी गले. तिसी गद्ये चॉ कोरणु शुद्ध कल्ले.

एरदूसा सर्वय जननी एक मक जावणु खेलवाण आरंभिली. चार-पाँच जावण खूण ताँब उमटाण शंपिले. सकानी लागूनु सांजे पुतोरी दन्धे चमकतो रबीले. तातु भितरी ताँका चाय खाण पोट भार दिल्ले. लोक गीत, गाने गावणु ताने सन्तोषानी खेलवाण समाप्त कल्ली.

अबुय पूतोय सेदा गजनीतु एताय चयताय ताँका आज ओळ्ळो आनन्द आसा आज हरे कपडानी गजोंनी फन्देलयता म्हुणु दिसता. कोणीय श्रगार कल्या पोरी दिसता.

दीस मास गले. गजोंनी फुल्लेली. फुल्लाँ पारमाळु चारी दिका पवलो. दुदा पिराय जल्ली - तिसी बात जाल. यंगाय-थंगाय कणसा वरांतु हल्लाताय

आज गजनीतु हरा वरणन. पचुवे उसुण भंगरा वर्ण एयिल. गजांनी पिकोली.

निवनी वेळु जालो. वंटुय-पुतोय सजारी बायलोय इल्यानी निवचा शुरु कल्ले-नीवुणु सगटानी चिरोट बन्धीलो-निवोनी जाली. चिरोट बन्धारी चेडयिलो.

उंचुवण आरंभिली एक एक कणेस परा गलनासोण उंचुन कल्ले. चुरोट सर्वय हलारी ओरणु दरेलो-

मोलाप शुरु जाले पायानी मोल्लो बात वेगल-कल्ले-बोयकोल दूर कडूण बता दुंगोरु कल्लो.

पोतोम दिवचा आरंभिले-सो कोट्टे पोतोम दन्याक चार कोट्टे दन्धिलाक तिसी पोतोम दिल्ले-बात एकडो कोरणु गल्ला. आनी सुखेयका. चां बात सुखेयेले बींक जावकसी बात चां कोरणु सुखेयले.

बात मेजुन सका भोरलें. ता वेळार अबानी पूत्तां उळ्ळो दिलो. ते एयले. वट्टून संगिले उड्डा मोडोण दन्ध कल्यार दाँत कत्रोंतसी खावतेय.

☆☆☆☆☆

# किरातु

**सें** सें वर्सा पिरथोम रानांत एक किरातु आशिल्लो. ताका बायल भुर्गीं आशिल्लीं. रानांत एक घरांत वासु करतो जाल्लो तो. केदनाय सक्काणि उबटोण किरातु खोडु सोदूण ओता. हातांतु पेसकोति अस्त्रादी कडूण रानामोदें पावलो. रूकार आशिल्ले सेग सेवण्यांकोय ताणे लक्ष्य दोरोणु मारनु धाल्लि. घरकोडे होरनु बायले लागी दिल्लीं. तियेणि सेवण्यांचे फाके पेल्यां गण्णु चां केरणु मस्सा रावन्दोंय केल्ली. जोवोण तयार जालें. किरातु नावूण जेविचाक आयलो. ताजे लागीं भुरगींय बेसोलीं. बायलेणि पान दोरोणु रीत्ते रांवदोय वाडीली. सुवादानी पोट भोरोणु जेयीलो. भुरगींय मोस्त जेयीलीं. बागी सगट बायलेणि खायलें. अशि तो जीवीत मुकार ओरता.

एक दीसु किरातु रानांत पावलो. यंगाय-थांगाय भोवलो. ताका कांयी खोडु मेळ्ळेना. ताका रण्णे आयलें. तो राना मोदें बेसोलो. तावेळ तीन मुनीयो थांगा पावले. ताणे मुनियांले मोटे जोमीचाक गेल्लो. तावेळ ताणी किरातालागीं निमगीलें "कित्या हो तुष्कर्म करता?"

ताणे जाप दिल्ली "मगे बायल भुरग्यां खातीर हांव करतां."

"तशी तरी दुष्ककर्माचो वांटो तुगेलों बायल भुरगीं भोगतलीं वे म्होण तांचे कडे विचारून यो."

किरातु घरकोडे धावलो. बायल भुरग्यांलागी विचारलें "ओटू पाप दोष कोरनुते हांव तुमकां खोडू हाडूणू दितां. त्या पाप दोषा वांटो तुमका आसवे"? तीणी सेगटानी सागीले "आमका भाग ना।"

ये आयकून किरातु मुनियाँ लगी पावलो. मुनीने ताजे लागी संगीलें "केल्लेले पापाचे मोचनाक आनी तप कर।"

किरातु तप करून राना मोदें बसोलो. "राम राम" जप कोरुणु जायतो कालु तो बसोलो. वाल्मीक म्हळयार वाळ्वी यालुणु तांजे चारी ओसी भोरली. त्या वाल्मीकां लागूण वाल्मीकी जालो.

☆☆☆☆☆

# खावचा मेले जाला जाले न जलार ना

**पा**उस पोळ्ळे एक दिसा मणकुणी अजाले अडणातु एक सान्न केळी नेम्मो पुळ्ळो. मणकुली साने भुर्गी सेदा सकानी उठोन केळी नेम्या सिपतोली. सिपले उपरान्त ती स्कूल ओत्तोली. अबानी पुल्ले रोप्पी तचे मोन्नातु व्हड मोगाची रोंपी जावण वडोता. सांजवेळा घरकेटे एयिला केले रोंपी सिप्पोण जाय चाय पिऊ.

दीस ओतोसी दिग पान्न एक एक जावण एताय वरंयातु पच्चुवे पन्ना हव्ळ्ळताथ चोयचा चोंदिसता. सारें गलताय उदकानी सिपिताय. तिसी केळी ऊँच ऊँच उभरचा शुरु जाली.

दीसे गल्ले, मास गल्ले, केली इल्ली. व्हड एक बोण्डीये सेयत केळी गोंवटय तुलानी गोडावो भायिरी सेरळो. दिसान दीस एक पटव 'फेणाव' भायीरी एता. दा फेणवाचो एक सुन्दर गोडाव दिकु जलो.

भुरर्गी केलि गोडव्य चारी ओसी रबुन गावनु हात वजुण नाचताय घरकरा सगटाक खुशी जाली. दीस, मास, गले. फेणव्याचे केली मोटी मोटी जावन देकिली. एतलय ओतलय गोडव्य चोवण ओता चन्नी योवणु चोयता, कीरु एवणु अपोडोण ओता. इसी सर्वयालो एक हरय जालो मणकुलो गोडाव.

तिसी आसी वेळारी वरेंय पवसूय जोडुय एकसानी एयले. (पवलो) मणकुले गांवतु आसी सर्वय मोडून खाले पोळ्ळे. तांतु मणुकी केळा गोडवोय नाश जावणु गल्लो. मोगानी सर्वय पूरणु करतेय खावचामेले जाला जले, नवे जाला ना.

☆☆☆☆☆

# भोट्टजाली सेवा

उत्तर पोरूर वेणाट रय्या अधीनाँ जल्लो. पारूरचा रायु रवळार सोडोणु पारकोटोवाँ गल्लो त्या वेळारी पारूरच्ची सर्नां अस्सीले अम्मी बारा घरकार पोरूराँ रवचे असमंगल जत्ता ह्मुणु मान्नाकारणु पेल तेटी अस्सी कोच्ची सीमात्तु अयिले.

चेरायी एक स्थालारी थव्कूण वेगोले स्थलारी अम्मी पोरतुणु पोरतुणु रब्बुण चेयली मोन्ना मोन्ना सजत्ता एक भूंय अमका देखूणु कटच्चा जवुन्ना. तिस्सी-अस्सी काला बैप्पे सोविन्दुरु कापात्तो जल्लो. ओराय देवा गोरवोन्तु सेन्त सेन्त सोविन्दराँ जल्लो देवुळाँत्तु सोविन्दीरु चेल्लो. कोच्ची रय्या निर्देशु तेक्कीते ओराय देवा संकत चेरायी केल्ले. तंगा अग्रशाला बन्धुणु देवा बैसेलो. मगीरी गरभ कूट बन्धूणु देवा प्रतिष्ठा जल्ली. बैप्पे गौड-सरस्वत ब्राह्मण जन चेरायी संकेताचु एवूण रब्बीले.

ओराय दवळाँ उत्तरा दिशेरी दोंकोरु गद्यो जावुणु बारा एकट भूंय अस्सीली ह्या बारा एकटस्थाया मोध्ये सेनवासु भोट्टजोयी भोट्टीण्यायी रब्बुणस्सीली. भोट्टजो शिवलिंगक्कोय श्री भद्रेक्कोय पुज्ज केरच्चो पुरोहित ते.

पाटें पोळ्ळे ह्या बारा एकट स्थायारी रबच्चाके अनुमति घेयिली. जयत्ते वट्टेणीय चांक जत्तो ह्मुणु अमकेलाणी निश्चय कल्लो. देनपारा पोरुत्तूण ते सेनवासु भोट्टाजा देखूक्के गेल्ले. मुप्पानी संगीले अम्मी कुणबी अत्ते. निल्ताँकेटे रब्बुणास्साय. जलारी मोन्ना समाधान ना भोट्टजाले सेजारे जावुणु रब्बाच्चाके अमका ह्वडू मोगु अस्सा. अमची

भसे लोकुनिन्तात्तु अस्ये ह्मुन मक्काकलता. तजे पिरतोम तुमी केंत्तोय अस्सीले.

अम्मी पोरूर गजनीतु बात केरत्ताले. मगीररसी सोमियारी रय्या सेवकाक चिट्ट सिखेयत्ताले ध्मुणु मुप्पानी संगीले.

मोन्ना जल्ले तवोळी तुम्मी 'संयला' लोकु ओय कयी निय? ह्मुणु भोट्टजानी इचरीले. पिरतोम अम्मी रब्बुणु अस्सी भूंयके संयला देवुळे ह्मुणते उळदित्ताले. संयला देवुळां उत्तर गोरवोन्तु ते चन्द्रपुरी ह्मुणु उळदिवच्यो गावु ह्मुणु मुप्पानो मुळ्ळे.

फायी सक्काणी पैरा पुज्जेवेळारी एय्याय. अधिकरां देखूणु अमका उळ्ळेतोय. ते तुमका यंगा योवुणु रबच्याके अनुमति दित्तो ह्मुणु भट्टजाणी विवोरु दिल्लो. जल्या अम्मी फायी एत्तायी भोट्टजो मुप्पानी संगीले.

एरदुसा दवुळां उरसुणु तिणे भोट्टजा देखीलो. भोट्टजानी तिंवका मण्डा अग्रशाले जगलेरी बैयसेले. भोट्टजो अग्रशालेतु गल्लो. अधिकारीय भोट्टजोय बायिरी अयले अधिकारीनी मुप्पा नावकित्ते? मजे नाव बप्पी मुप्पा अबा नाव? अबा नाव गोयुन्दु. तुमका अभ्यासु कलतावे? अत्ते अमी अभ्यासु करनाली. बेप्पे अमचो अजोयी जनारद्दन पैयी जावुणु अभ्यासु सिखत्ताले. कोण भट्टमा जनारद्दन पैयी? अयकिलेनवे? "मलप्पोयक अजीरण गंवच्चे जना सुंट्टी उदाक" मोन्ना जलवें.

तुम्मी कित्ते करताय ह्मुणु अधिकरीनी इचारीलें? तंगा उरसुणु अम्मी पवसाकला बता कृषी केरत्ताय. गिम्मारी तोवंसे, दुद्दी, चोवली, गोसाले सेगे केरत्तो.

तुमका घारे बन्धिच्चारस्थलु भट्टमा दखांदिता ह्मुणु अधिकारांनी संगीले थंगा घार बन्धूणु रब्बाय कित्तय सेग कृषि कोरणु खयाय. देवाक कित्तेय कनोंकी जावुणु वोरसा वोरशी दीवक्का. देवस्वां थक्कूणु राजा भोगू बन्धीका ह्मुणु अधिकारीनी सगूणु मान्नाकल्ले

अम्मी वोरसा वोरसा दवळोतु कनोंकी दित्तय ह्मुणु बर्पान संगीले अभिषेका वेळु जल्लो. तिरसी जॉवु भाट्टजा.

देवा पाँय पोडोणु ते गल्ले सेनवास भाट्टजा महादेवा दवुळाट गल्लो. तोद्दुस संझे बारा घाराँ बन्धीच्चा भूंयी दखाणु दिल्ली. दो तीन दिसा भित्तोरी बारा घराँ थंगा अर्याले. तिरसी सेनवास भाट्टजा सेजारीजल्ले.

मडो-मडी दवरी-तेय. रान्तोये जावक्करसी बज्जी, मण्ड पुण्णु केरतेय चांक उदाक मेलतो गय्ये-बोकडे वाढेयत्तेय. लांकु सक्का लेक्काणी बात अडूणु गलतायी कण्टूणु ओरोवु कोरणु दित्ताय. तक्करसी प्रतिफलु मेलतो धन्धे सोद्दूणु कोंय ओरसुकनक्का. जीविजावच्चक्करसी सगय यंगा असा.

सज्जनोय-स्वजनोय जावनरसी संपर्क कदनाय मोन्ना समाधान मल्लता. ह्या जना कोच्ची रायु जावुणु संपर्क असा नोप्पुर जलारी कुणब्यालो क्षेमु सोद्दीच्चारय्यालो प्रतिपुरुष जावुणु मोरगोट्टे मुप्पा एत्तोलो. तिरसी केच्चे वट्टेणीय यंगा राजनीति मेलतो जल्ली. यज्जा पसवोंती ते अमी यंगा रबच्चाके निश्चय कळ्ळोलो.

घरक्केडे धन्धे जलारी भट्टिनायी तुलसी देल खुंट्टूके ह्या बाराय घराँ अडाणा पवतोली. तवोळी एकेक घरक्कारालो क्षेमु नुवीजीणु मोन्ना केरत्तोली.

ह्या बारा घरक्करॉ जावक्क देखूणु भोट्टजाणी एकी केळोरी बन्धीवेयली तनत्तु गणपति देवा पोतिष्ठा केल्लो. सकणीय संझेय यंगा दिवो लवच्चा संगीले. शुक्रवारु संझे भोट्टजो पुज्जा केरत्तोलो. पुज्जे सोमियारी गवंच्चाक्क भजन सिखीले. तिरसी शुक्रवारु दीसु पुज्जोय भजनोय खेळीत पोडन्नस्सी केरत्तो जल्ले.

मसाणी मासी प्रदोष उमास केरत्तोले. नाग पोंझी दीसा रकसे धार कोरणु नगाँ दूध दिवणु जावक्क अयंट्टो गिलच्चा. जलारी गरडी भुंयक्करा नाग पोनझमी ना. तज खतिरी सगट्टालीय नेवॉ पोरोब गरडी पोंझमी दिस ते. गरडी पोनझमी जत्तोरी एविंच्ची अष्ठोमी ते गोकुल अष्ठमी, या दिसॉ अमका तजो तजो आचारु अनुष्ठान अस्सा. महालयोत्तु उमास जल्लारी. नवत्तोरॉ पवलीं. यनत्तु दुर्गष्ठमी, मन्नोमी, विजय दशोमी अति प्रधान जवनस्सी दीसुते. विजयदशोमी थक्कूणु अम्मी तुलसे पुज्जा करत्तो.

उत्थान एकदशी दिसा बयले केळरेटे एक्कोड जत्तोली. देवा भजन केरत्तोली. उत्थान द्वादशी अमका खभॉ पोरोब ते. संजे सेगु केळीरॉत्तु एक्कोडे जत्तोले. भजन कीर्तन जॉयतोले. चन्द्रीमु सत्ताढे धडी उनचारी पवलारी गोविन्द परात्मात्मा उडुगासु कोरणु भेट्टजो तुलसी के अरध्या दित्तो खोभू लयत्तो देवक्कोय तुलसीक्कोय आरती दखेयेत्तो. मंगल ह्मुणु जल्यारी तीर्थ प्रसादु सेगट्टाक्कोय वेरक्कीत्ते. निवेजु घेवणु तगे तगे वाट्टे ओत्तोले.

मगीरचे ओरसारी केळेरे मुक्कारी एक पेरें बन्धीले तनत्तु अमगेले मेळु सिखोत्तो जल्ले. तमिलानी नाटोक किरवीले. तवोली दूर गांवत्तु कुणबी यंगा नटोक सिखेच्चा पवले भोट्टजाणी अवोयभासे नटोक

सिखच्चा संगीले तिस्सी अमकेलानी अबोय भाश नटोक सिर्खीले.

वोरसावोरसी उत्तरायण संक्रान्तेक कुणबी कोट्टुन्नूर गांवात्तु एक्कोडे जत्तोले. दक्षिण गवंड्डाणा थक्कूण उत्तर गवंड्डाना अस्सी कुणबी यो दीसु यंगा पवत्तो. संक्रान्दी रत्ती तिर्णी सिखिली सुन्दकला ते यंगा प्रकट केरत्तो. केळेरेटेसिर्खीले सेग सुन्दरकला कोट्टुन्नूर कवांत्तु खलीचा भोट्टजो अबाके प्रेरणा दित्तालो. तिस्सी ह्या कुण्ब्या लोक्का कीर्ती दिक दिक्कात्तु व्यापी जल्ली. भसेणी सिर्खीले नटोकगोंड सारस्वत ब्राह्मणा समूहाँ मठाँत्तु खेलिचा भोट्टचानी अमकेलाक अवसरु कोरुणु दिल्लो.

सेनवास भोट्टजा चोरडूवाँ ना. सेज्जारास्सी कुण्ब्या बुरगीं ते तींगे दुवोय-पुत्तोय सुत्तापुन्नोव, सोंसर पटवो ह्या दिसाक्कबारा घरक्कटे बुरग्यांक उलदीवुणु जगलेरी बैसेयत्तो. भासेणी चांग-चांग गीन्तु गयंच्चा संगत्तो. बुरगी तीक्का केलत्ता गींतु गांयत्तो, भोट्टीण्यार्यी तिक्का पन्ना चोळुक्को दवरूण इट्टो-अंपोट वडत्तो. सेग तंगा बैयसुण इट्टो अंपोटों बुडोणु खत्तो. ह्ये चोवुणु भोट्टजोय भोट्टीण्यायी आनन्द दिरवृत जत्तो.

अबाले दक्कुले आक ते सन्नोली. तिक्का पोरूर दक्षिण दिखारस्सी कुणब्या गोरवन्तात्तु ओरड कोरणु दिल्ली तिखो गोवुंमहामारी योवुणु मोरणु गल्लो. तवोळी तिक्का इक्कोरा वोरसा प्राय. कित्तेकेरोप? भोट्टजानीय-भोट्टीण्यायेणीय तिक्का तींगे पोस्की ओरणु वगोयतेय ह्मुणु मत्तारबाटे संगीले. तिस्सी सन्नोले चेराई अस्सी तोददुसु लग्गूणु तीतिंगली पोस्की जल्ली.

दीसे-मासे तिस्सी ओत्ताय. देवा मोन्ना अट्टोणु भोगोत्त कोरणु परत्माके अपर्ण केरक्का ह्मुणु सेनवास भोट्टोज सेगट्टडे संगतालो.

एकेक्के घरक्कारु वोरसा एक भोट्टडजा केराणी पारायण करत्तोले. महाविष्णुलो एकक्कोक अवतारु पारायण कोरणु तज्जे अर्थु भासेणी संगत्तालो. ते जत्तोरी विष्णुपरमात्मा समर्पण कोरणु आरती देखोणु सर्वय जना निवोजु वेरक्कीता. या व्रता केळारी बाराय घरक्करॉं योवुणु पवतालीं तिस्सी अंके जनाके सनातन धर्म ज्ञान मेलत्ताले.

दद्दुले मसा मसी कृष्ण पक्षॉंतु प्रदोष व्रत केरत्तोले तिस्सी एक मासा पुडा-पुडा व्रत काडक्क अस्सीले. प्रदोषा ओरिक्केली, प्रदोष उमासे ओरिक्केली उमारा यींय नितेण एक मास चारी शुक्रवारॉं व्रत केरक्क अस्सीली ह्यालेक्कानी आठ व्रत अम्मी केरत्ताले. दद्दुले ह्या लेक्कानी व्रत केरताय जवंच्याक्कोय बयले सोमारु, दशीमी, एकदशी ह्यादिसाडें व्रत केरत्तो जल्ली.

ओरिक्कले भोगोत्ते जल्लारी प्रदोषु दीसु सक्काणी फल्या फल्यारी नावुणु तुलसी उद्दाक गालणु पॉंय पोल्लारी तवळे थवकूणु अयंट्टो गिळुनज्जो. तोण्डात्तु उद्धाक जल्ले जलारी थू केरवका महादेवा मोन्ना अट्टोणु तगेतगे कोर्मुकेरक्का रांझे नावुणु उभोती कटुणु तशीले रियांले गोण्णु दयळॉं ओत्तो. रियाले महा देवा नट्यारी देवरूणु पॉंय पोडत्तो. मगीरी ओराय देयक्कोय पॉंय पोडोणु दवळॉं प्रदिक्षण गणु दुसरीय महादेवा देवुळॉं योवुणु भोगोंत्तय्यक्कोय रक्स्री अय्यूक्कीय नमस्कारु गणु महादेवा नड्यारी भजनाक्के बैसत्तोले भोट्टजो निवजु कोरणु बैसत्तो, प्रदीष केरत्ताले देवा भजन केरत्तो मंगळारती वेळु जल्यारी निवोजु देवा समरप्पितों आरते सोमोयु जल्लो ह्मुणु भोट्टजो संगत्तो भजना बयराले सर्वोय जन उबटोणु भजन ह्मुणुत्तो मत्तारे महा देवा ह्मुणु बोडाणी उच्चारण कोरणु शिवलिंगा पॉंय पोडोत्तो. भोट्टजो देवा आरती दरबेयत्तो शंखु जघालट यज्जे नाद दिख दिखांत्तू

पवंत्ता, मोन्ना शान्ती दिवांच्चाक्क अमिकिते जांवक्का? भोट्टजी आरती वायिरी अटत्तो सेग्गु आरती पांय पाडता मंगळ ह्मुणात्ता. तीर्थ प्रसादु घेयत्तो. तगो तगो सिंयाले तां तां कट्टु पिंवच्च्या लगत्ता. सगळ्ळाक्क मेडिक्के निवांजु भोट्टजो उळर्दावुणु दित्ता.

भोट्टजो गर्भ कुटाँत्तु उरसूणु दिव्याच्ची वत्ते संत्त करत्तो. नटा गलत्तां. अनी छावी केरत्तो. छावी अग्रसालांत्तु आण्णु दित्ता भागोत केरत्तलेय भोट्टोजोय कोरणु घरक्केटे ओच्चाबायिरी सेरत्तात.

भोट्टजो संगच्चा लगत्तो पयक्कां तू मोन्ना तप्पांनु देवा अटटेयक्का. तुजे मगलानी देवु केदनाय उरत्तोलो तुक्का एविच्चे आपत्तां थक्कुणु रक्षा दित्तोलो तक्का शंका कांय नक्का.

मगीरी याच्चे पोरी प्रदोषादिसा देवुळाँ लगुणु एत्ताण संगत्तो, परमात्माच्चे तीणी भाव ते ब्रह्म, विष्णु, महेश्वर तीण्णीय एक्को त.

जलारी एक पुजेन पुरमू ह्मुणु तुम्मी नुगिंकीत्तो नोप्पुरो तिर्ण्णीच्चेय तीणी धर्मु ते ब्रह्मच्चो धर्मु सृष्टि, विष्णुच्चे स्थिति, महेश्वरा धर्मु संहारु, ह्रिस्सी जायत्ते तत्वोपदेश संगूणु दित्तोलो.

मोरगोट्टे जल्ले कुणब्याले महा सभे गल्लो अमचो मत्ताराबु घरक्केड ओथिरी सेरन्नास्सीण सेनवास भोट्टजा कुडाँ गल्लो.

भोट्टजानी मुप्पालगी विशेषु इच्चारिलो, दोनी दीसु जल्ले आंवु निद्देलेना कुणबी दोनी विभागू जल्ले योकु विभागु क्षेत्रचारु जाका दुसोरचो क्षेत्राचारु नक्का. मोरोट्टे मुप्पा क्षेत्राचारु नक्का ह्मुणस्सी विभागाँत्तु गल्लो.

रय्याणी मुप्पा रवळारांत्तु उळदिल्लो. मुप्पानी संभवु वर्णन कोरणु दिल्लो. तज्जे उपरान्त मोरगट्टे मुप्पास्थानु-मानु थंगा रबुणु परगल्लो

जल्यारी मुप्पादिल्लोराज भोगु मुप्पाक्कोय पिलगीक्कोय घेवुणु खवच्चाक उत्तोर दिल्ले.

क्षेत्रपाला स्थान मान निवे केरलात्तु कुणब्या दिल्ललो क्षेत्राचारु नक्का ह्मुणताय जलारी त्या स्थानामाना अर्थ कित्ते? तज्जे खतेरी रय्याणी दिल्लेस्तान रद्द केल्लो यंगा कुणबी एक मेक जाणु जीवितमुक्कारी ओरताले. अनी ते परस्पर यविसीयी तवसीय पेट्टु फारे गलत्तो यंत्तु आंवे केच्चो भागु कट्टक्का भोटजो?

पूर्व-पितृांच्यो धर्मुकित्ते? तो तुवेंय विधि प्रकार केरका अधर्मु केरचा नच्जो धर्मु सन्यारी अधिष्टित जलारी, अधर्मु पेटवणेरी थक्कूण एत्ता, तोगडे वेळेरी प्रश्न मोन्ना केरुक्का तवळ ऋषि समान जावनस्सी पंडिता फुडॉ उरसुणु ज्ञान केरक्का तिरसी नीवे मुप्पा? मुप्पा शान्ती मेल्ली. घरक्कडे उरसुणु नावुणु-जोवण जव्णु मुप्पा विश्राम केरूक अत्तेरेरी पोळ्ळो.

राती-ओत्तोली. दीसु जत्तोलो इसी कालु रोरतीता ह्मुणु मोनीसु जाण जावुन्ना भोट्टजो मतारु जल्लो मंजेश्वरा पुत्तोरी चोमकुणु ओच्चुका देवा पांय पोडोणु एवुंक्का ह्मुणु दिरोले. देवास्वॉ संगुणु अनुमति घेयिली एक दीसु सक्काणी भोट्टजो मंजेश्वरा वोच्चाके बायिरी सेरलो ह्थीत्तु एकी सान्ने मोटे. नवाणु न्हेस्सोच्च्या अरसी धोति, अंकूट्टी, रत्ती फकंराच्या कंपोली मगीरी जावक्करसी धामु-दुडू कदुणु मंजेश्वरा पवलो.

देवा दर्शन केल्ली. गॉवा वोच्चा पोरत्तीला. सांझ जल्लारी, पवलारी, दवुळॉगोपुरांतु पोडोत्तेय, सक्काणी नावुणु पांय पोडोणु सुसारीय चोमक्कोत्तो. चोमकुणु चोमकुणु सझे चेरायी पवलो. विवोरु देवस्वॉ

अधिकारी जणेले. एरदुशा फल्या फल्यारी नवलो. अग्रशला उस्युणु छावी घेथिली. महा देवा देवुळाटे गल्ला. करच्चा कार्म्मु शग विधि प्रकार केल्लो. दनपारा जेवोण जावुणु घरक्कोड गल्लो. देखूणु उल्लोवंच्या अयीले जना लगी हर्षानी उळ्ळयलो. संझ नावुणु देवुळाटे गल्लो मंगलारती जंवच्चा दवुळे दंप्पुणु चावी उग्रणा दिल्ली. भाटटना घरक्कोटे अयिलो. भट्टीण्यायेण्णी पेज वळ्ळी. सन्तोषाण्णी पेज पिळ्ळो. अंवलो-वोसरे कुटीनत्तु सेद्दा बयसेत्ता पोरी अराक्क फार्द्दी लावुणु बयस्योलो. पोडिच्चान हाथीं कल्लें तवलें एक हुम्मेला. लागट्टो व्हाडगल्लो. भट्टीण्यायी सन्नोली चोवुणु रब्बीलायो भोट्टजानी धोळे धंक्कीलें. सन्नोत्ती. - भोट्टजाली ह्या लोकाँ जत्रा संगीली.

भोट्टजा जैजाक्क उळ्ळो दीवुणु अल्ले, जांव्करस्सी संग्गु पवळ एरदुसा फल्य-फल्यारी सरियेरी दवरीलो उज्जो दिल्लो, तांददुसा सारी भोरणु सोविन्दरा पावेयली.

भट्टीण्यायेक्क सन्नोलीय सन्नोलेक्क भट्टीण्यायी तिस्सी तीं जीवितॉ मुक्कारी गल्लीं पाँच वोरसा जवच्चाक्कोय भट्टीण्यायेणीय या लोकांत्तु लग्गु जत्रा संगीली. सेज्जारी पवले. जयजां उब्दिल्लो. तिगेलीय शेषक्रिया केल्ली.

सन्नोली एक्कोली जल्ली. घरा चावी केल्ली. चावी देवुळाँ दिल्ली. सन्नोली अमच्चे घरक्केड अयली. मोरो पुराणी वगयले भोट्टजात्ती भट्टीण्यायेक्कोय ती उडगासु करेत्तोली. तींच्चे गुण-गाने ती अमगेडे संगूणु दित्ताली केदनाय स्वत्तीक चिन्त त्ेचचे गति तिग्गोलो कोर्म्मु. जीवितां नैराश ना देवा ध्यान कोरणु तिगेलीय अवतारु देरेयलो.

☆☆☆☆☆

# उवरा उदाक

कचडय चेयला कळोक. कित्या करचा, कचे ओचाक, कोणा लगी संगू. सर्वय यवसिय तवसिय धावुण भोंवताय.

हालासी उदाक ऊँच ऊँच एताः घराचे मेट, जग्गोली सर्वय बुडोली. घरा भितोरी पुतोरी उदाक पवले. मनीसु ता कळाकातु धावुन भोवनाय.

एकक्कोळो हता मेले सग कडून, भुरग्यकोय कडून अभय स्थनारी पवुका-एदे जन स्कूला पवले एदे जना दवळा दिका पवले. एदे जन मोचुवु सोदून ओताय. कचडे चेयला गोन्दोळु.

ह्या गोन्दालातु चोरे हता मेले तेवेय ओरताय.

कळोकु उसूण उजवाड एयलो. म्हल्यार दीसु जालो... दवळातु, स्कूलातु कच्चेटेय रबचाक सरकरानी उत्तर दिले आसा. लोकु एवुण आसाय.

खावचा-पिविचा सुविधा कल्ले आसा मेले खावणु-पीवुणु सान्ने व्हड चेयनारोण आसी स्थलारी पोडोणु वेळ् कडताली.

तगेले तगले घार सोडून जनपेन ऊजो खाता. किसीय घरक्कोड पवका म्हुल्ले विचारु एक ओसी. घरारी कोणेय कडून ओयले म्हल्ले दुसरी ओसी. मोन्ने इसी पीड पोडता.

बाल-भुरग्या अंगा उणसानी, हांकी, पोटा दूकी म्हुल्ले रोगानी गुसमुटेताय एदे जना चिकित्सेक ओयजा लगी ओताय ओकोद धयेताय पिताय-खाताय रोगु सुख करताय.

तावेळारी अयकीलें उदाक दवचा आरंभिल्लें म्हुण्ल्लें वर्तमान सर्वय लोकानी देवा सुवरचा शुरु कल्ली. दवा तूवें आमका रक्षुका. एरदुमा लोगगन सर्वय जना तगेलें घरकेंट पवलें.

☆☆☆☆☆

# कसु कपोड

अरेब्यन सुविन्दरा एदे केलक्कारी एक पॉच सेन्टारी घार बन्धून सन्तोष रबून आसा. ताका आवय, बायले, दोग जना भुरगी आसाय भुरग्यातु एकले चोडु आनी एलको चेडो ते.

सन्तोषु ब्यार कोरणु जीवित मुकारी ओरता. ताने भुरग्या सिखयले. धूव सिखून एम.कों. जिकली. पूत सिखता.

-धूवेक वरडिक पिराय जाली: चोडुवा सोदून चेडया घरकरोय पवले तिसी जातक पोडोन एयले. वरडिकोय निश्चय कल्ली-

वरडिक फुडा पवली. सोयस्यानिमत्रण करका, सजरा उल दिवका तिसी कर्वय जनाक जणेका तका मदद करूक कोण ना. सन्तोषानी सग कार्य करका.

तगेले बल्लाव वेळारी तो आनी तगेली बायले उषा बैकारी बैसून चोडुवाली ओल्य अम्मा घरकडे ओचे वेळारी वेगली एक बाण्डी येवुणु शवतीन लगली. तवोलीची बैकाररसी उषा हाले पोळ्ळी. ते पोडोपोची सन्तोष रगतानी नावुण पोळ्ळा.

दोग जनकोय कोडुन्नूर अस्वतालातु पवेले. उषाले मोरण तावेळारी जल्ले. सन्तोषा चों चिकित्सा मेले खतिर रक्षा मेली

एरदूसा धा ओरारी उषाले पोस्ट-मोरटम जल्ले. मोडे आंबुलनसारी घरकटे पवेले.

घरा दिके जायते मानीश वार्ता अयकून एयले. एक असा धारण

मोरण जाले खातिर सान्न व्हड मनीशा मना कसाली कसाली कार्य जाता ह्मुण संगु जावना.

मोडे पयली घरा ओरणु तेक्कारी बाड कारणु निदयले. मगरी सर्वय जनाक मटावातु दर्शनक दरेले. लोकु एकको जावनु येयले.

अन्तिम शेष क्रिया ते संचिरी-मित्र-बान्धवानी ह्या आचारु क्रियेतु वंटो घयलो. नवे सेयरानी कसु कपोड दिवप आसा. त कसुकपोड मोडया शरीरा..... ....रेले ह्या कोर्मा वेळारी सर्वय जना दाळ तुमले. यो वेळु विकार निर्भर जालो. धुवेलो मंगल कोर्मातु वंटो कडनासोणा ती आवासु देवा वटे जत्रा जली.

धूवु-पूत बोब गलताय. तंका आवयलो ई अवस्था तंकृ जावना. आचार तेकितंकर्य कोर्मु कोरणु मोडे आबुल नसारी चेडयले श्री मलं गणपति क्षेत्रा सेवा समतिने ह्या कोर्म. कल्लो. पल्लिप्पुरम पंचयत स्मसानातु ओरणु उषालो सस्कारु कल्लो.



# जयदीसु

रामचन्द्र शेणय मामाले घरकेट शेणवसली आवय धेन्ध करता तंगा कसलो विशेषु दीसु एयलारी लोकुमाले चेड्डा उल दिवप आसा.

शेणयमामाले सान्ने पूतते विश्वा तगेलो जयदीसु शेणवसा कोय उल्लो दिल्लो. सेजरासी भुरग्या कोय निमत्रण कले.

जयदीसा खायचा कितय सग. उरतोले. ते कार्य ओरत कल्या अतेचे तोण्डातु उदाक एता.

जेवणा वेळु जालो. पान्ने दरेयले. भुर्गी बसले. पन्नारी एक एक कोरणु वटचा आरंभिले. पयलीवडिले मीट मगरी केला बळुकं, तिला लड्डु, अप्पोलु आदि. अनिकोय आसा सीत, गसी, तोय, सांबरु, उम्माने, उक्कोरी धा-बरा साधन आसा

शेणवसा ये सग दकले पिटा व्हड आश्चर्य जालो. ये सग कसी खावुण सपदिचावे. पवली तियेणे शेणवसा उबटेयलो. तू किसी यंगा पवलो.

शेणय मामा तंगा रबून चोरडुवालो नेकु चोवणु आसीलो. मामानी संगिले शेणवसा तू बरून जेयरे.

शेणवसा आनन्द जालो. सर्वय जनानी जेवण कल्ले. खीरु चॉ आसीलो. तिसी विश्वालो जय दीसु चॉ रबलो.

☆☆☆☆☆

# "आरे सान्न पुत्तो तू कच्चे गल्लोरे"

कृष्णालो मोगाचो पूत ते "सान्न पूत". "आरे सान्न पुता" "आरे सान्न पुत्तो तू कच्चें गल्लोरे" "यंगा योरे" नुरवोस्या". ओराय दवळा बोडका नटयारी अंब्या रुका पोन्दा रब्बु खेलताय. तावोलते आवयलो उक्लो.

अंबो मेल्या खावतेय न जल्यार खेलतेय. जयानी आवयलो उक्लो अयकिलो. तानी सान्न पुता लगी संगीले अरे सान्न पुता उलदिता

आवयचे ताळो ओल्लो ताळो. आवय गदनाय इसी उळ दित्ता. हाँवु दावुणु गलो. देकले पिटा आनन्द जालो. सांवचा आरंभिते यंगा योरे रण्डे पुता तुका कितु पिटा उळो दिल्लोरे

पोटा भूख लगता म्हुणु आवयक पोरसोणु संगील. ये अयकिले पीटा अवसूक व्हड दुःख जल्लें.

ती धेन्धा घरकेटे लोगून एयिला. तेंगा लोगून मेले पेज आनी उकोरी एक पिङाणा गण्णु दिल्ली.

सान्ने पूत पेज पिविचा शुरु कल्ली. पेज पिल्ले पिटाक शान्ती मेली. आगे अम्मा कितय आसागे खावचाक भोंटणी अय्यनी दिले दोनी अप्पेय ताका दिले. तेवय तानी सुवदानी खायेलं. तो धावुणु खेलचां गल्लो.

आवय घरा धेन्ध करतो जल्ली. एयदना-पैदना धुवका दनपरा खावचा सिजयेका कोपुलु रन्दनिरी दरोण पोरमा पोळे राकुड पुंजोण रन्दनी दरेयले. घरकेट पोवु करोप आसा. भात ओल्या कोपत्रातु घल्ले. दोग-तेगजना फायी फोवु दिवका. एक रन्दनीर भातोय दुसांरच रन्दनीरी उरुवुय सिजेता.

आवयेने गोसली कल्ली आनी उकोरी कल्ली. भात राच्चेरे लोगूण, खाले दरेयेले आज राती फोवु करका. एक फारो फोवु करका एदी एदी पेज सगटाक वडली. सगटानी पेज पिल्ली.

सांज आठ ओरारी फोवु करचा आरंभिलों भात बजिचा कण्डीचा वेळारी तपियेनी थवसिय तवसिय करका. तो काम आनु करतो. फोवु जल्लो. फोवु कण्डीचा सान्ने पूत आनी आक राती धा ओरारी फोवु जालो.

एरदूसा फोवु ओरचाक फोवकरे एयले. तंका फोवु मेजून दिल्लो. ताने धा रुपया दिल्ले.

दीवाली पवली. फोवु जायते करका. घुसुमुटेन फोवु कल्लो. तिसी लोकाली दीवाली आसी फोवु तयारा कल्लो. तिसी दीवालीय जाल्ली. कृष्णाले घरकरानी दीवालीचो फोवु कोरणु दिल्लो-सर्वय जना व्हड सन्तोष जाल्लो.

☆☆☆☆☆

# नतुराँक अजालो पुरस्कार

एक गाँवातु पोरन्ने मनीसु आसीलो चेयल्या अपरिष्कृत. ताका दोग जना भुर्गी आसाय. ओल्ली धूव. दकुलो पूत.

दुदाचो मामु सकानी लोगुन सांज पुत्तोरी अड्डा मोडोन गद्यातु धेन्ध करतोलो. दा फरया भता गजनी आसा. कोणीय इचिरील्यार इसी संगतोलो. "मलबातु इन्तिले बड्डीते". ओडी कटुन कितय मेले जल्यार जाल्ले न जाल्यार ना.

धुवकोय पूतकोय वरडीक जाली. दोग जना चोडुवाँते एक एकएकल्याक

एक दीसा अजा मनातु एक मोग सुझलो. नतुवा नवारी कितय सान्ने बचत बाकांत जमा करका.

स्त्री धनाचो कालते, अजा हता मेले कितय चिन्ना बांकातु जमा करतो आसा

नतुरा चाँकोरणु सिखताय. भविषातु तंका गुण जातोलो. कसलेय कार्यक कडतेयमु म्हुणु अजानी निश्चय कलो.

धुवे आनी पुताक उलो दिवनु संगीले. तुमी भुरग्यकोय घेवनु एक दीसा घरकेट एवुका.

आवय आबाक व्हडआनन्द जालो. खाण जेवण जावन जाले. खाण जेवण जावन जाले. अजाने नतुरा पचवीस सासु रुपया एक एक नतुरादिलो. आनी संगीले. ये पुरस्कारु अजालो फाय चाँ कर्या जाय देकून तुमी वेचु करका धुवे पुता लगी संगीले ये रुपया कचच एक चांक बांकातु भुर्गीग्य नवारी जमा करिया.

☆☆☆☆☆

